ड्राय्ना, ओतेल्लो, गेब, फ्लोराची कता, आन्नी किट्टी, पेटानातल्लें तण. तिणें सबार रेडियो नाटक आनी रंगस्थळ नाटक बरयल्यात. 'राक्णो' पत्रार एका लेककिची प्रतम सांकळ कता जाव्न 'पेटनातल्लें तण' फाय्स जाल्ली, श्रीमती आल्वारिसाच्या साहिती मुकुटाक भांग्राळें पाक.

तवळची आन्येक नांवाडदीक लेककी आसा आग्रीन पिंटो. बलिदान, स्त्री, म्हजें अंतस्कर्न विसर्चें ना, पाळल्ली भास, हांव चुकोन पडोंक ना तिच्यो विंच्णार कादंबरी.

'कलावती कद्री' पय्णारीक आनी 'कलादासी कद्री' मित्र झेलो पत्रार कायाम बरय्ताली कु. ग्लेडीस सिक्वेरा (आतां रेगो) 1960 इस्वेथाव्न धारूण जाल्लीं काळजां, निगप्रादी चली, सांडून गेल्ली शेळी, जेजू आनी राक्रोस अशें मटव्यो कता, कवनां, लेकनां तशेंच पय्णारी पत्राची वाग्मिदार्न जाव्न वावुरल्ली कोंक्णी पत्रांनी कायाम बरव्न आसल्ली श्रीमती ग्लेडीस रेगो लेककींक प्रोत्साव दिंव्च्या उद्देशान आकाश प्रकाशन स्थापन कर्न कळे आनी झेले, साडिये वय्लीं साळकां, फकत लेककिंच्या लिकिनांचीं पुस्तकां प्रगटल्यांत. ह्या पुस्तकांनी पात्र घेतल्ली लेककी आसात: एव्लालिया आल्वारीस, नेल्ली डिकोस्ता (पय्णारी संपादक), ग्लेडीस रेगो, आग्नीस वार्बोजा, ग्रेसी वाज, एल्सी कद्री, मेबल कोड्रास, जसिंता पिंटो, रोजालिना फ्लेवी, फेल्सिटा मतायस, सेविका, सिप्रिमा कुल्शेकर, केथरीन रोड्रिगस, अनिता डिसोजा, नेल्ली मिरांदा, जूडी पिंटो, मांर्ती लस्रादो, ग्रेसी लोबो, लूसी मोरास, प्रेमी किरें, प्रेसिल्ला लोबो, फेल्सिटा मतायस, अन्ना मरिया मिनेजस, लीना वार्बोजा, हीळडा कुलासो, विन्नी वेळमाण, विल्मा रेगो ह्यो सर्व लेककी एका न्हंय एका कोंक्णी पत्रार बरंव्च्योच जाव्नासात.

हांकां प्रोत्साह सहकार लावल्लो जाल्यार, आज आम्च्या कोंक्णी साहित्यांत लेककां समासम लेककीय आस्तीं आनी तांच्या वर्पांल्ली तिक्ष्णाण, गोड्साण, खार्शाण, मोग, मोवाळाय, तांचें जाण्वीक ज्ञान वाच्यांक दादोस कर्तें आनी भर्शीक साहित्य पक्वन आम्कां लाब्तें.

मंगळूर आनी बोंबय थाव्न प्रगट जांव्च्या सबार कोंक्णी पत्रांनी जाय्त्यो स्त्री-चलियो वेळाकाळा तेकीद बरय्ताल्यो. थोंड्यो थोडो तेंप

जिग्ग जाताल्यो बिग्ग जाताल्यो काजुल्याबरी आनी खंच्यान मायाक जातात कळच नातल्लें. तांच्या लिकितांक कांय खोडी-विमर्सो केलो, इल्लें अण्किलें, मागीर ती ना. कुटमा मुकार, समाजी मुकार नांव पाड जाता, घर्च्यांक खबर मेळळयार गड्बड कर्तीत, उलय्तीत म्हळळया भिरांतीन लिक्णेक विराम दितात. अशें जाय्त्या लेककिंच्या जिवितांत घडलां आनी तीं सग्र्या नेकेत्राबरीं थोड्याच बर्पांनी झळकोन झळजळोन काणे जाल्यांत!

हेरांचो मोसोर-दुर्सोणें, विमर्सो आम्च्या प्रगते थंय स्पूर्ती म्हण चिंतून धग्रान बरय्ते रावल्लीं आजून कोंक्णेंत जिवीं उल्यांत. थोडीं आतां, एका तेंपार हांव कोंक्णी पत्रांनी बरय्तालीं म्हणोंकयी लजेतात. स्त्रीयांक मायभाशे थंय उर्बा नातल्ल्यानच आज आम्ची कोंक्णी भास सार्की प्रगतेन फुलाना जांव्क पुरो.

लेकको जाव्न संपादकिचो वाव्र केल्ली पय्ली स्त्री आसा कु. जुडीत मस्करेञ. (कोंक्णी दिर्वें पत्राचो स्थापक श्री लुवीस मस्करेञची धुव) आम्चो युवक पत्राची संपादकी जाव्न तिणे जाय्तीं वर्सां वाव्र दिला. दुस्री आसा श्रीमती नेल्ली डिकोस्ता. ही सुमार दोन दशकांथाव्न पय्णारिची संपादकी जाव्न वावुर्न आसा.

तिस्री श्रीमती ग्लेडीस रेगो हीणे लेककिंचीं पुस्तकां ‘कळे आनी झेले’ आनी ‘साडिये वय्लीं साळकां’ संपादन कर्न स्वंत आकाश प्रकाशनाथाव्न प्रकाशकी जाव्नयी प्रगटल्यांत. आतां आंजेलोर फिर्गजिच्या ‘आंजेलोरचो आंज’ पत्राची संपादकी शिवाय ‘कोंक्णी लेककांचो एक्तार’ हांणी प्रगट केल्ल्या ‘तेरा पाक्ळयो’ पुस्तकाचियी ती संपादकी जाव्नासा.

भाशांतर वाव्र आनी आदारीत कृतियो रच्यांत कु. शालिनी वालेन्सिया (आलीस सल्डाना आतां फेर्नांडीस), तुं सुकी जांव्चो नांय, ताणे ताकाच त्याग केलो, तो ताका आशेलो, अशें तिच्यो कृतियो साळक प्रकाशनान प्रगटल्यात.

‘शेळया रग्ताचो वास’ हिळडा कार्लो, ‘नाणज्ञान न्हंय घुंव्डाय्ली’

केथरीन रॉड्रगस, 'लग्नांल्लो मोग' कृपाकुमारी, 'जिविताचीं सतां' लेत्ती वाय आनी ह्या तेंपार काणीयो, लिकितां भाशांतर कर्न फामाद जाल्ली श्रीमती लिल्ली मिरांद, जूडी पिंटो. वय्जाकीय लिकितां बरंव्वीं कु. लविना नोरोन्हा, नेल्ली नव्रेत.

राक्णो पत्राच्या चरित्रंत दुस्री मांकळ कता बरयिल्ली लेककी टीना डिमेल्लो कता 'तांब्डो गुलाब' कोंक्णि साहित्य प्रकाशनान फाय्स केल्लें पुस्तक 'मेटिळड्याचें जय्त' कता लेककी: कु. एल. मिरांद विक्तल. (1956 एप्रील, श्री राय्मंद मिरंदान संपादन कर्न फाय्स केल्लें पुस्तक हें)

आतां जाय्त्यां लेककी कोंक्णी पत्रांनी झळकतात—माज्वातात, थोडीं काजुल्यावरी, थोडीं आटिल्ल्या नेकेत्राबरीं, थोडीं फांत्याच्या सुक्रुबरीं. तांतून कायामार आप्रुपान झळकोंची: नंदिनी, कलाराणी, सोनिया, कु. जे. एल. मंजरपल्के, प्रमिळा वाज, ग्रेस डिक्रूज आनी हेर.

युवजणांचें पत्र जाव्नास्च्या 'युवक' हाचेर जाय्त्यो लेककी फिर्गजांच्यो खब्रो, सवालां, कविता, वग्र साहित्य क्शेत्राक पाव्लां दवर्ते आसात. तांकां उत्तेजन उमेद लागव्न साहित्यांत थीर कर्चें आम्चें कर्तव्य जाव्नासा.

●

# साहीत–मतिंत्लीं रंग रंगाळ पिंतुरां

●एडवीन जे. एफ. सोज
'फांव्टन हेड', हायल्यांड,
मंग्ळूर - 575 002

No earth at all
No sky at all; and still
The snow flakes fall
(Hanshin Shiki)

प्रथूमी बिल्कूल ना
मोळबयी बिल्कूल ना, तरी
बर्पाची लाव्पीक कर्पां पडोनच आसात
(हानशीन, शिकी)

हें कसलें नवेसांव? ही कितें कविता? खंडीत न्हंय ही कविता. न्हंय ही तुवें, हांवें, माव्रिसान या चा. फ्रान लिकल्ली. पूण ही जपानी कविता. हाका म्हण्तात हायकू (Haiku). तूं एक वाच्पी. हाचेर एक विवरात्मक लेक लिकूंक सक्शी? खंडीत व्हय. ही तीन फंग्तिंची कविता. हजारों उत्रांक आप्ल्या ताबेंत घेव्न आसा. तित्ल्याच हजारों रितिंनी ह्या कवितेचेर कविता लेक, संसोद इत्यादी करूंक सक्तात, लिकूंक सक्तात. हें कशें अशें?

रोमांत सिस्टाय्न चापेलाक पावल्ल्या वेळार थंय्सर आसल्ल्या थोड्या पिंतुरां साम्कार बसोन आस्च्या थोड्यांक हांवें पळेलें. राक्वल्यालागीं विचार्ताना तांणी सांग्लें की हे तर्नाटे उदयोन्मुकी चित्रगार आनी सबार दिसांथाव्न सिस्टाय्न च्यापेलांत्ल्या चित्रांचें वीक्शण कर्च्यांत मग्न जाल्यात.

इत्ले दीस परयांत लांब्वें हें कसलें वीक्शण?

एकेकच भेट आमी चड्यां.

एक चित्रगार आनी ताच्या मतींत उदेल्लें एक रंग रंगाळ चित्र

ताणे मांडल्लां कसल्या उन्नतीन, कसल्या उन्मादान, कसल्या उद्वेगान? त्या चित्रांल्या हर एका रंगांत एक साज-आवाज आसा, एक रुदान आसा. एक काणी आसा. हें सर्व एका वीक्शकाच्या दिश्टीक वेवेग्ळया मापान दिस्ता. त्याच खातीर हे उदयोन्मुकी चित्रगार दिसांगटल्यान ह्या चित्रां साम्कार बोम्नात आनी शिक्तात. मुळाव्या चित्रगारन आप्ल्या पिशोलाच्या (Brush) एका मागन एक फलाणो रंग त्या चित्राचेर थाप्ला आस्येत. पूण कसल्या घडिये आनी कसल्या प्रेरणान? हें जाणां जांव्वें काम वीक्शकांचें. 'मोनालीसा'च्यो हासो आजून परयांत कसल्या मत्लबाच्यो म्हण नख्खी रितीर सांगोंक कोणच सकोंकनांत. पूण प्रेतन चलोनच आसा.

चड उणे, कसलीच परिगत आम्च्या कोंक्णी साहितांत आज उदेल्या. आमी खंय्सर आसांव तें आमींच नेणांव आम्कां थोड्यांक 'रांडे-शिंडे' म्हळ्ळें माहीत 'आम्चें' दिस्ता तरयी आनी हेर थोड्यांक 'येस, नो, डार्लींग, कॅरक्ट' इत्यादी सब्द बर्पांनी आयिल्ल्या फरा तें बरप विदेशी जाता, मिस्ळार्पी जाता. पूण कन्नडा फिल्मांनी 'नीनू आवरन्नु लव माडुत्तीया' म्हळ्ळया ह्या दोन सब्दांचो अर्त, इंग्लिशांत 'Do you make love?' अर्तात, एक लंग्गीक कनी. हें आम्कां वाचूंक आनी आय्कोंक हर्कत जाय्ना. पूण खंचार्यी एका कोंक्णी बरव्यान कांय तरी नवेसांव केल्लें, ताका 'मानियेंचो वास नातल्लो' म्हण आमी वोलाय्तांव. ह्याच कीळ आनी अशीर मनोबावाक लागोन 'सुनंदान' धय्र घेवन उत्रायिल्ली महान कृती 'राय उंदीर' (The King Rat = James Clavell) आतांयी वाळय खाव्न आसा.

मतिंल्लीं रंग रंगाळ पिंतुरां

केदळा तीं उस्कातीत?

कोणच सांगोंक नेणां.

त्या खातीर आज साहितांत लेकक आसात.

आपल्या मतिंतलीं रंग-रंगाळ पिंतुरां वाच्प्यां परयांत पावंच्चें काम लेककाचें हें काम यशस्वी जालें तर वाच्पी लेककाचे मतींत घुसोंक सक्ता. ताच्याच पाल्लांनी पाल्लां काडूंक सक्ता.

हें काम एक लेकक खंचे रितीन कर्ता? ह्या सवालाक निगंट एक जाप ना. कित्याक मतिंतलें पोलियेर घालूंक असलेंच, तसलेंच म्हळळे नेम चक्कट नांत. देकुनच एकेक लेककाक आप्लीच म्हळळी विबिन्न शय्ली आसा आनी हे शय्लेक लागोनच तो वाच्प्यांक परिचीत जाता.

आम्कां पांच ज्ञानां मुकांत्र, पांच इंद्रियां भाय्ल्या संसाराक मेळय्तात. दीश्ट, आवाज, पर्मळ, स्पर्श आनी रूच ह्या मुकांत्र आमी जिवंत आसांव म्हण म्हण्तांव आनी आम्चे भोंव्तीं कितें जाता (या जाय्ना) तें आम्कां कळीत जाता. ह्या पांच ज्ञानां पय्कीं खंचेंयी एक पाड पडत तर आमी अपूर्ण मनीस जातांव. हें एक सादें सत. ह्या पांच ज्ञानांक जिवे दवरूंक फकत जिणी जियेंव्चें मात पावना. आम्कां हेर पुश्टिकायेची गर्ज आसा. ही पुश्टिकाय पांचयी ज्ञानां सुड्सुडीत आसल्ल्या आप्ल्या-पेल्याथाव्न येजे आनी ती येव्नच आसा.

आम्कां, सर्वांयी जाग्यांनी एकाच वेळार आसोंक साद्य ना. एक सादो दाक्लो घेव्यां 'आज मार्केटींत बारी गम्मत जालें!' म्हण तुजो अमीग संभाशण सुरू कर्ताना तुजे कान नीट जाता. कारण कितें? तूं त्या वेळार मार्किटींत नातल्लोय. तुज्या अमिगाच्या पांच ज्ञानांक लागल्लें तुका लागोंक ना. पूण आतां तो, आप्ल्या मतिंतलीं रंग रंगाळ पिंतुरां तुज्या साम्कार दवर्चें प्रेतन कर्ता. तुजी आतुराय तो जिक्ला आनी तूं आय्कोंक तयार आसाय.

हें, साहिताचें एक तिर्कासें रूप.

तुज्या अमिगाचें उलव्णें आय्कोन तूं घरा येताय आनी तुवें आय्काल्लें चडीत रंगीत करून तुजे पतिणीक/भुर्ग्यांक सांग्ताय. ही एक सांकळ. तेच खातीर जाण्वायीत जोन अपडाय्कान म्हळां—साहीत म्हळयार फटींची एक शिंकळ पूण वास्तविकता मिस्ळाल्ली.

म्हण्तच, एक साहितीं पांच पाव्लां मुकार वेता. तुका परिपूर्ण आप्ले ताबेंत घेत्ल्या उप्रांत तो तुका आप्ल्या मतिंत्ल्या रंगरंगाळ पिंतुरांनी न्हाणय्ता, तांच्या मुवादान माक्ता, तुका ताच्याच संसारांत उकोल्न व्हर्ता. हें कशें म्हण आम्च्या कोंक्णी साहितांत्लीं थोडीं सन्निवेशां घेव्न आमी अध्ययन चालू कर्यां—

सुर्वातेक हांव घेतां विवरात्मक साहिताचो कुंवर म्हण नांव वेल्ल्या दे. ए. टी. लोबोची नवालिका 'हर्घार खरीस' हांवें पाटल्या सात वर्साथाव्न ह्या नवालिकाचें अध्ययन केलां, म्हज्या विद्यार्तींक ह्या कताची रूच चाकांव्वें प्रेतन केलां. पूण हरेक पाव्टीं ह्या कतेंत कितें न्हंय तर कितें नवेसांव दिस्ताच.

घाटाच्या वर्णनांत सुरू जांव्वी ही कता वाच्यांक आप्लेच हाळवायेन घाट चड्य्ता, देंवय्ता. मंग्ळुरांत भोंव्डाय्ता, पन्नास-साट वर्सांची चरित्रा पित्राय्ता. ही पिंत्राव्णी इत्ली स्वश्ट आसाकी वाच्याक आपुणच ए. टि लोबो जाव्न हें लिक्तां म्हण भोग्ता.

घाटा आनी मंग्ळुरा मद्ली उत्रोण तो कसो पिंत्राय्ता पळेया— "आज मनीस शाणो जाला आनी जोड्ंक शिक्ला. देकून कोड्याळची सकाळिंची जिवी मास्ळी लेगून दोन्पारां घाटार कड्येंत पड्ता. कारण, वाहनां जाल्यांत. रात-दीस घाटाच्या वाटांनी लोरियो आनी कारां धांव्तात. तशें जाल्ल्यान, रातीं येणो आयिल्ले गर्बेस्त स्त्रीयेक सकाळीं कोड्याळ येव्न बाळांत जांव्क कसलीच हर्कत ना."

पन्नास-साट वर्सां आद्लें जिणें दोन सोंप्या गांठल्यांनी तो अशें विवरय्ता—"सत्ती तेंप आनी भावार्ती मनीस त्या काळाचो देकून सां बस्त्यांवच पंडीत जाव्नासल्लो सर्वांचे पिडेशिडेंत."

तवळच्या तेंपार कसो एक पती घरांत्लो राय वर्ततालो म्हण ए. टी. लोबो कशें दाकय्ता पळेया: "तेंलिसाबान अपेक्शिल्लें घडाना जाल्यार, तो पर्तिणिचीं कान्सुलां मुजंव्कयी पाटीं सरनातल्लो. त्या खातीर लेत्तिबाय माव्न जाली."

ह्या कतेचो नायक केप्पो आनी मोनो, बोम्मा. ताचें खरें नांव बेज्मी. पूण हें लेकक आनी वाच्पी मात जाणांत शिवाय कता वाळच्या परिसरांत्लीं कोणच नेणांत. बेज्मिच्या कुडिच्या वाडावळिचें क्रमेण वर्णन कर्तां कर्तां लेकक हृदय स्पर्शी रितीर, दय्हीक रितीर परिपूर्ण आसल्ल्यांनी एका अपूर्ण जिवीक वापर्चे दाकव्न दिता. अशें म्हण्ता लेकक........"देकून ताका (बेज्मीक, बोम्माक) पळेताना माप्ळयाक एक मोव्ळी सूंब जाल्यारी जड जातालें आनी मोगोल्र्याक पोव्ली भरादीक दिस्ताली. कित्याक बेज्मी वावय्ता! ताका कूल दींव्क ना........."

ही कता बेज्मिच्या साक्रिफिसांत आकेर जाताना त्या दीसा सग्ळें मंग्ळूर रडलें, म्हण्ता लेकक. "बोम्माक मातियेंत निकेपिताना—ताका धोसल्ल्या, मारल्ल्या आनी ताचेलागीं खेळल्ल्या सर्व लोकांच्या दोळयांथाव्न दुकांच्यो झरी देंव्ताल्यो....... व्हय, बोम्मा समेस्तांचो देकून समेस्त ताका रडले.......... समेस्तांच्या तीन चिम्टी मातियेनच फोंड ताचो भर्लो.

दुस्री देक जाव्न हांव दे. जो. सा. आल्वारिसाचें साहीत घेतां. रंग रंगाळ चित्रांचें, पिंतुरांचें तुपेंच आल्वारिसाचें साहीत. 1950-त प्रकट जाल्ली ताची नवाल कता 'आंजेल' कानडी लिपियेंत्ल्या कोंक्णी साहितांत्ली प्रतम कादंबरी म्हळ्ळया कारणाक मात न्हंय पूण तांत्ल्या साहितीक सोबायेक लागोन अद्ययनाक अर्ह.

हजारों मय्लां पय्स चालू जाल्लें दुस्रों महा झुज मंग्ळुराक 'हाड्न', रोफी, आंजेल, रोज बाय, नोर्बटाब आनी शेणय म्हळ्ळया ह्या थोड्याच पात्रांक विविद सन्निवेशांनी मिस्ळाव्न एक कादंबरी रुता केल्ल्या साहिती आल्वारिसाच्या मतिंत्लीं रंगरंगीळ पिंतुरां वाच्यांक दिल्लीं तीं सदांकाळ जिवींच उर्तेलीं. ह्या पिंतुरांक विंच्णार थोडे दाक्ले हांव दितां—

आप्णें सून करून घेंव्क सोदच्या चलियेचेर (आंजेल) रोज बायेन दोळो दवरल्ली रीत लेकक ह्या परीं विवरिता, "हरएक आय्तारा मिसाक गेल्लेकडे आल्तारी उप्रांत ती एका आंक्वार चलियेचेर दोळो दवर्न तिचें चाल चम्काण पार्कूनच आसल्ली..........."

तेचपरीं तिचो पूत रोफी हेच चलियेचेर दीश्ट दवर्न आसल्लो, "......... आय्तारा सांजेचें दोनयी सोडेलिटिंनी सांगाता मेळोन माग्णीं, गितां आनी गायनां गाव्न मरियेक हर्सून वेताना रोफीन एक दोळो वाटेक आनी दुस्रो तिचेर दवर्लो.........."

आंजेलाच्या कुटमाचें वर्णन ह्यापरीं आसा. "पाव्ल पर्बूक (बापूय) तेगी चलियो आसात आपूट चित्ळावरी! ग्रेस्त कुटमाचो चलो लेगून तांकां एक पाव्टीं पळेय्त जाल्यार दोतिविणें जोंप मार्न वरत!"

दुस्रें महा झुज सुरू जाव्न तें विस्तर्ताना कश्टी तरी सदांनीतच्या जीवनांत आयिल्ली बद्लावण ह्यापरीं विवरीत जाल्या. "......... आम्च्या हिंदुस्तानाच्या गडीं भाग्र सबार हजार मय्लां पय्स तें झुज चल्तालें जाल्यारी त्या असमादानेचो वोसो, पायाक खंचल्लें वीक सग्ळया आंगाक चर्ल्लेवरी सग्ळया संसाराक विस्तार्लो..........."

रोफी तार्वाटी जांव्क भाग्र सरोन वेताना कसलींच अक्चीत घडितां (Dramatics) उबीं करिनास्ताना आवय्क आनी पतिणेक आदेव्स माग्चें हें द्रश्य वाच्यां, "......... म्हाका वेळ जालो........ हांव वेतां....... मोग आसोंदी आंजेल........." इत्लें म्हणोन निमाणें मोगाची एक दीश्ट तिच्या चंद्रा सार्क्या मुकामळार घुंव्डाय्ली आनी तिच्या खाडकेक धर्न अम्रुको हास्लो........."

पय्ले पाव्टीं रोफीन पय्शे धाड्ताना, "......... एका गांटीक 75 रुपय पेग्रान हाड्न आंजेलाच्या हातांत दिताना आनी तिणे ते व्हर्न रोज बायेच्या उग्त्या हातांचेर ओप्सिताना, मोळबारथाव्न 'मान्ना' पडल्ल्या वेळार इस्रायेल लोकाक भोगल्लो उल्लास तांकां भोग्लो........"

नयसर्गिकतेचें वर्णन कर्च्यांत आल्वारिसाक उत्रांची कांय सुकिदाड नातल्ली. हें वाचा, "दीस सांज जाव्न आयिल्ल्यान अस्तमोन येंव्च्या सुर्याचीं आडवीं किर्णां रोजबाय निदल्ल्या कुशिच्या मोडलांच्या तट्टेच्या धोंप्ळयांनी भांगारचें वारीक वारीक सग्ळशे भितर फांक्तालीं." ही एक देक्णी, एक पितूर, रिणांत पडोन देदेस्पार जाल्ली रोज बाय

आप्ले मतींत कशें उत्राय्ता पळेया, “आड पडल्लेकडेथाव्न रोज बायेन तीं पळेलीं आनी तांचेपय्की नीज जाव्न एक पुणी भांगाराचो सरळ जाल्लो जाल्यार—आपुण तो घेव्न भांगाराक लब्दाल्ल्या तिच्या रिण्कार्यांक एकेकच कुडको कातर्न दीव्न तांच्या बांद्पासांल्लें सुटोन सुशेगात जियेतीं म्हण तिणे अपेक्शिलें.”

आन्येक दाक्लो घेव्यां, “कदेला वय्लो उटल्लो धनी सिग्रेट वोडीत जनेलालागीं वचून भाय्र हिल्लाक दीश्ट घाल्न उबो राव्लो. हिल्लांत निककून कृशी केल्ल्यो भेंडांच्यो रोंपियो आनी तांचेर ल्हान ल्हान भांगाराच्यो कांपिण्यो उदार्यो खोवयिल्ल्याबरी आसल्ल्या फुलांचेर ताची दीश्ट राव्ली. आन्येका घडियेन दोन सोबीत पिसोळयांचीं जोडीं उबोन येव्न त्या फुलांक उमे दीव्न पाशार जालीं..........”

आल्वारिसाच्या साहितांल्ल्या रंग रंगाळ पिंतुरांचें हें एक किसर मात. पन्नास वर्सां आदीं ताणे सुरू केल्ली ही कृशी हेर बरव्यांनी तातांच्या तांकी पर्माणे मुंदरिल्या आनी तांचे पय्कीं थोड्यांक हांव विंच्तां:

साहिताचो संसार दादूल्यांक मात सीमीत न्हंय हें सर्व मांद्तात तरी कोंक्णी साहितांत लेकर्किचो तत्वार कित्याक म्हळें सवाल आजूनयी सवालच जाव्न उर्लां. स्त्री, दादूल्याक समासम जाव्येत पुण साहितांत कांय विविदाय येज तर लेककी आस्च्यो अवश्य. हांवें अशें म्हणोंक सबब आसात. दादूल्याक समासम तरी कुडींत आनी मानसीक रितीर ती विबीन्न. हाका लागोन तिचे मतींत उदेंव्वीं पिंतुरांयी वेग्ळयाच रंग रंगांचीं. ह्या वर्वीं साहिताक गिरेस्तकाय येंव्वी सहज.

हो मुद्दो आप्ल्या पिकाळ (Prolific) कादंबरियें मारिफात आग्रीन पिंटो (आतां कास्तेलीन) हिणे दाकव्न दिलां. तिच्या नवाल कतें पय्की ‘म्हजें अंतस्कर्न विसर्चें ना’ हि हांवें विंच्ल्या.

1965-त आल्वारिसाच्या ‘झेलो’ पंद्राळयार सांक्ळे क्रमार प्रगट जाल्ली ही कता ‘प्रगती प्रकाशना’न पुस्तका रुपार 1989-90त प्रगटल्या. एकाच बस्केंत वाचून काडूचे तित्ली मटवी ही कादंबरी न्हंय. 364 पानांची

ही कादंबरी वाचून काड्ताना संपादक दो. विलियम दसिल्वा हाचीं उत्रां खरी दिस्तात तो म्हण्ता 'म्हजें अंतस्कर्न विसर्चें ना' सुंदर नवल काणी, फाग्क्पिणाक मोगान जिकून घेतल्ली काणी. मोवाळ मोगा मोळो आनी फाग्क्पिणा सळसळो घश्टताना गरीब आनी गिरेस्त, गांव, श्हेर आनी काफिये तोटां, कुटमां आनी मन्शां, जागे आनी काळ सग्ळीं घश्टातात, रेवोड्तात आनी कांयसर्ता आनी थोडें कांय उर्ता."

सरल्लें आमी सोड्यां आनी उरल्लें पळेंव्क गेल्यार सन्निवेशां संदान संद सुंदर रितीर विस्कळांव्वी लेककिची शाती आनी तांक उटोन दिस्ता. कता वस्त, अदिकृत जाव्न मोगाची आनी लेककीन आप्लें कोलेज शिकप जाल्ल्या पाटापाट लिकल्ली ही कादंबरी त्या प्रायेच्या चलियांच्या मतिंल्लीं रंगरंगाळ पिंतुरां इत्ल्या स्पश्टतेन वाच्प्यां साम्कार हाड्ताकी, दादुल्यांनी सग्त सिंतिमेंताळ जाल्लें आसा. थोड्या सन्निवेशांचे दाक्ले आमी घेंव्चे तर—

भाव आनी भय्णी मद्ली चेडच्याड लेकिक असल्या अवलवीत संभाशणांत दाकय्ता:

"तक्ली फड्तागी साय्वाक! कोणाक चिंतून वस्लाय?" स्टेनी सर्शीन वचोन हासोन विचार्लें मरियान.

"तुका माडडुल्याक खंय्चो नव्रो सोदूचोगी म्हण चिंतून चिंतून तक्ली फडाफड उब्जल्या म्हाका." भयणिचें हास्तें तोंड पळेव्न तरी फडाफड पय्स सर्ली ताची.

फुडें ताका चिडाव्न भय्ण म्हण्ता, "स्टेन्याव, तूं चेडूं जाल्लोय जाल्यार दें आसल्लें. राग आयिल्ल्या वेळार तांब्डो जाव्न किल्लो सोबीत दिस्ताय!" सैनीक राग येताना तमासो पळेंव्क मरियाक मजा जाताली. ताचे मार खांव्कयी तें तयार आसल्लें. तिल्लें म्हळया उप्रांत भय्णीक भोग्मूंक तयार नातल्लो स्टेनी, धावोंक तयारी कर्चे भय्णिची लांब पांतियेक घट धर्लें ताणे.

"चुकल्ल्यांक भोग्शी" आप्ले हात जोड्न नाटकीय रितीन म्हणालें मरिया.

"हांवें भोग्सुंची रीत पळेय्ल्यायवे?"

स्टेनिचे दोन गुम्से मरियाचे पाटीर वस्ले.

"मां, स्टेन्याब मार्ता!" मरियाची बोब जाली. सिसील (आवय) भाग्र आय्ली.

"तुम्कां बूद केदाळा येंव्चीगी! येदीं व्हड जाल्यारयी.........."

आण्णाकच बुदवंत म्हण लेक्च्या थोड्या वाच्प्यांक हें सन्निवेश कांय Silly दिसत. पूण बारिक्साणेन पळेल्यार लेककीन दाकयिल्ल्या ह्या पिंतुरांत कांय्च आय्ब दिसोन येना. आप्ले मतींत ह्या सन्निवेशाचें पिंतूर उब्जव्र, त्या पिंतुरांत आपूण जाव्र खुद घुसोन त्या उप्रांत लिक्णी हातीं घेंव्वें हुन्नार लेककीन बर्यान वापर्ला.

वि. जे. पी. सल्डानाचें नांव काड्ताना वाचप्यांक ताच्या सर्दार सिमांव्चो गंबीर जिनोस साम्कार येंव्चो सहज. पूण विजेपिच्या समाजीक कादंबरिंनी आस्वीं रंग रंगाळ पिंतुरां ताच्या चित्पा सक्तेची मोव्साण आनी गिरेस्तकाय दाकय्तात. ताच्या 'मोगा म्हाका शिकय' कादंबरियेंत्ले दाक्ले विंच्ल्यात. पय्लो दाक्लो हांवें खास करून विंच्ला कित्याक आम्चे चडशे लेकक चलियेचें/स्त्रियेचें वर्णन कर्च्यांत, दाक्शेणेक लागोन या उत्रांच्या अबावाक लागोन, सल्वतात. तांच्या साडियेंचें, आंग्ल्या वय्ल्या फुलांचें वर्णन कर्तात, तांकां चंद्र-सुरयांक, कळे-मोग्र्यांक, साळकां-गुलोबांक सर कर्तात इत्यादी.

पूण विंचोन फुलोन येंव्च्या तर्नाट्पणाचें वर्णन कशें केलां पळेया—

"पूण त्या वेळार ते युवती थंय दोन विशय वर्त्या बळान पाळां घेताले. पय्लें, संय्बीक सोबायेचें हें भुर्गें ताच्या मानसीक उंचाये तेकीत

कुडिनयी फुल्तालें, आदुनीक फेशेनांचे कसलेच धिगे नास्तां, भाग वोळपी लोर्सामाचें हें चेडूं, कुडीन पाक्ळयांच्या पिलांक लज करिसार्क्या जिन्सार पाक्लेतालें-पाक्लेलें. दृश्टेन आपूट स्त्री म्हण ओळकासार्कें ताचे हर विश्वे रच्नाराची कला प्रवीणता पाचार्तालें. तापल्ल्या पोटार तिल्लें मुड्मुडीत, पुड्पुडीत आनी आकर्शीक चेडूं आस्येत म्हण कोणाय्की पात्येंव्क कश्ट मार्च्या जिन्सार फेल्सिता फुल्लें."

न्हंयगी हहो एक सुद्द दाक्लो लेककाच्या मतिंत्ल्या रंग रंगाळ पिंतुरांचो?

हेच चलियेची मानसिकता विजेपी आनी वर्णिता, "जसो ते चलिये थंय—देक्तेल्यांच्या दोळयांचें आग्रूं लेगून कर्गा सार्को सोबाये चंद्र भाय्ल्यान प्रकास्तालो. तसोच ताचे नेंटे-जांटे मतींत एक विद्रूप ठरावाचो किडो जल्म घेतालो. भुर्गें वरें मण्सुगेचें आनी शेगुणांचें देकून ताचे मतींत उब्जालें एक विशेस अबिप्रायेचें कीट—न्हंय पात्काचें आनी वाय्ट वोड्ण्यांचें—बगार, एकच सम्जोणेचें; मोग म्हळयार, काजार म्हळयार येम्कोंड-येम्कोंड म्हळयार संसारी दाक्लो आप्लेंच घर."

ह्याच मानसिकतेचें प्रतिक्रियें, फेल्सिताची आवय आटवे पाव्टीं गर्बेस्त जाताना, कसलें तें पळोव्यां, "मोगाच्या देवान (वोरोड काड्ताना आवय म्हण्ता) म्हजेथंय आन्येका फळाक दान दिलां. तुका 'बाये' म्हणोंक थोड्या मयन्यांनी आन्येक किटटूर येतेलें."

आवय्चीं हीं उत्रां आय्कोन फेल्सिताचीं दडमां बोस्लीं. घाण्यांल्या आक्रेच्या चिंव्डावरी आंग ताचें आव्ळेलें, परत दुस्रे घडिये पाव्गेल्ल्या पाण्पाळयांवरी घामेलें. जाप कर्गिनास्तां तेव्शिल्या कुडाक तें गेलें आनी आमंत्रण नातल्लीं दुकां गळोंक लाग्लें. हे घडिये ताचे थंय ती दुस्री अबिप्राय मुळ्ळाचे कणसेवरी साण्सालीः दादूलो म्हण्चो मनीस न्हंय—मोन्जात!

खंर्चीय भाम खंचायी एका आयित्र घडिये परिपूर्ण तरी तिची वाडावळ स्थर्गीत न्हंय म्हण आमी पळेलें, भासेची तांक तिच्या

वाडावळिचेर होंदोन आसा आनी वाडावळ तिचो वापर कित्लो जाता तित्ल्यार होंदोन आसा.

खंचायी लेकक़ान आपूण साहिती जातोलों म्हण लिक्णी हातीं घेंव्च्या पय्लें ताणे वाव्रूंक आस्च्या भासेची तांक पळेजे. ही म्हजी मांय भास आनी ती म्हाका कोणेंयी शिकय्जे म्हण ना. दुरंकारान पाव्ल काडल्यार पय्लें बर्पा, उप्रांत लिक्णी आनी निमाणें लेककच मुल्याक पड्चो संबव आसा. अशें जालां सय्त.

अशें जाय्नाशें लेकक/साहिती जांव्ची उर्बा आसल्ल्यांनी कित्लें वाच्लां तित्लें पावना. आम्चेच भाशेंत आनी हेर भासांनी जाय तित्लें वाचप आसा. वाचपच न्हंय एक्ल्यान पात्रीकरणाक (Characterization) लागोन हेरां लागीं उलंव्क, मिस्ळोंक, तर्क करूंक शिकजे. मटव्यान, ताणे एक भ्रमर जाय्जे, पिसोळें जाय्जे, जिणियेची रूच पळेंव्चो रुचपी जाय्जे. 

# कानाडी लिप्येंत्ली कोंक्णी कविता

●माव्रीस डेसा, शांतिपुर

आम्तम्ते करावळे देगेच्या दाराळ प्रकृते संपत्तेन भरल्ल्या ग्रेस्त भुंय्तले गुडे, दोंगोर, बेट, बय्ल, रानां, मोळीं, भात, धानी, माड, माडी, झरी, न्हंयों, फुलां, फळां, जायो, मोग्रीं एका उत्रान काना-मनाक फेस्त दिंव्च्या ह्या सोबीत प्रकृतेच्या लांबायेक, दुब्ळो-ग्रेस्त म्हळळें चिंतप मतीर धेनास्तां नितळ जिणी जियेंव्च्या लोकाच्या पुनेवंत परिसराचो फळ जाव्न हांगासरयी सहजपणी धाराळ कवितेचें बेळें जालां. पूण आम्च्या मंग्ळुरी संय्बाक कविता वर्गनात्ल्यान, कवींक चार-चव्गांचो मान मेळनात्ल्यान आनी कवितेचेर विचार-विमर्सो चलनात्ल्यान कानाडी लिप्येंत्ल्या कोंक्णी कवितेची वाडावळ बरी जाय्जे आसल्ली. पूण फावोत्या मापान जांव्क ना. तशें म्हण हांगासर जी कवितेची उत्पत आसा ती अल्वी न्हंय. खंय्च्याय साहित्याच्या काव्या बरावर रांव्चे तसली. देकून ह्या काव्या गंदाचो पर्मळ तुम्च्या मनाक लायीत वेतां. तो पर्मळोन उरों म्हळळे आशेन.

**कनाडी लिप्येंत्ल्या काव्याची सुर्वात:**

खंय्चेय भाशेच्या काव्याची सुर्वात सोदूताना ती त्या भाशेच्या लोकवेदांत मेळचेवरी कानाडी लिप्येंत्ल्या काव्याची सुर्वातयी लोकवेदांत आम्ची हाता मेळता. लोकवेद लोकाची संस्कृती, लोकाच्या जिवितांत्लीं घडितां, लोकाचो आचार आनी तांची पात्येणी हाचेर वरोच उज्वाड घाल्ता. आनी त्या उज्वाडांत लोकवेदांत्लें काव्यें पर्जळता.

पाम्ळेंत आम्च्या वाळशाक भुलंव्क, पाळण्यांत निदाव्न ताका धलंव्क, काजार-मोभाणां मोवंव्क, मुकांत उल्लास उब्जंव्क दुकांत भुजावण लावंव्क आम्च्या गाणां, वोंवियां, वेर्सांनी काव्याचो वापर जाल्लो पळेंव्क मेळता.

**वोव्यो-वेर्सांनी कविता:**

मंग्ळुरी क्रिस्तांव समाजींत बोव आदींथाव्न काजार सोभाणां वेळार वोवियो-वेर्स गांव्ची रिवाज देंवोन आय्ल्या. रोस लाय्ताना, रेस्पेराक चेताना, साडो नेसय्ताना, सोव्यार बस्ताना म्हण्च्यो वोव्यो-वेर्स काजाराच्या कारयाक ग्रेस्त कर्तात, तशेंच कोंक्णी कवितेकयी. देकीक,

अ) मण्येर कळो हातांत वाव्ळी

चंद्रेमाची साव्ळी आम्ची होकाल बाय

आ) दोन शेर घाल्च्या थंय तीन शेर घाल

भरल्लें घर फाल्यां चलव्न व्हर.

इ) वोर्लाच्या पोंताक वांद्ली एक रुवी

माण्कुली व्होवी म्हजी होग्डाय्ली.

**भुर्ग्यांच्या गाणांनी कविता:**

लोकवेदांत भुर्ग्यांच्या गाणांक वर्तो मान आसा. कित्याक म्हळयार भुर्ग्यांक खेळय्ताना, न्हाणय्ताना, निदय्ताना वापर्च्या गाणांनी उत्तीम काव्यें निशेता. त्या गाणांचो नाद आनी स्वाद आय्कतेल्यांक पिशार घाल्ता.

देकीक,

अ) बाळ म्हजें खेळोंक गेलां भाय्ल्या वाड्या

कुल्यार बोड्यो मार्न, ताका घरा हाड्या.

आ) भांगाराच्या पाळण्याक रुप्याची दोरी

आंक्वार मरी, बाळा तुजी राकण करी.

**गादी/म्हण्ण्यांनी कविता:**

गादी नातल्ली भास ना, गादी कळित नातल्लो मनीस ना म्हण्तात, कित्याक गादी वार्या उज्वाडावरीं, मन्शा जिण्येच्या लांब-रुंदायेंत मिस्ळल्यात. उत्रांचो वापर कलात्मक रीतिन वापरल्ल्या गादींनी काव्याची झर आसा.

—सांग्तेल्याक काणी, आय्कतेल्याक वाणी.

—शेट्टीन केल्लें दंडाक, भटान केल्लें पिंडाक

—मडकेंत ना देड तांदूळ

सन्नां कर्ता म्हण्ता रांडूल

—चोर भियेता चंद्राक, उंदीर भियेता माज्राक

—कास्वाक ना कान, गाडवाक ना मान.

**हुमिण्यांनी कविता:**

हुमिण्यो मन्शाची बुद्धंतकाय पार्कूक आनी मनोरंजना खातीर वापरल्लो एक प्रकार जाव्न लोक साहित्यांत आम्कां पळेंव्क मेळता. कोंक्णेंतयी धाराळ हुमिण्यो मेळतात आनी तांतूं काव्येंयी दाराळ आसा.

अ) आकड पाकड तांब्या भाण

बत्तीस रुकांक एकच पान (तोंड, दांत आनी जीब)

आ) आल्तडी बोब मार्ता

पल्तडी लात मार्ता (बोंदूक)

इ) पाव्स ना उदक ना

आंग कशें पाच्वें

पान ना पोपळ ना

तोंड कशें तांब्डें? (कीर आनी ताची बोंच)

ह्या शिवाय मांडो, दुल्पद तसल्या लोकवेदाच्या हेर प्रकारांनियी बर्पूर कोंक्णी काव्यें व्हाळत आय्लां आनी उप्रांत्ल्या काव्याचे वाडावळीक बुन्याद जाव्न राव्लां.

**कानाडी लिप्येंत्ल्या कोंक्णी काव्याची वाडावळ:**

जेद्ना हांगा 1912 वर्सा 'दिर्वें' म्हळळें पत्र सुरू जालें, तेद्ना ताचो संपाद्पी लवीस मस्करेञान कानाडी लिप्येंत्ले कोंक्णेक नवो जीव दिलो आनी साहित्ल्यांत्ले दोन प्रकार ताणे आण्णाय्ले. ते आसात कविता आनी काव्य नाटक. ह्या दोनयी प्रकारांनी तो बरोच हेळळो. आप्लें क्रिस्तांवपण, भोंव्तिचो आटव आनी मन्शापण ताणे आप्ल्या कवितेंनी उग्तें घालें. देकीक ताची 'मनीस म्हण्जे कितें?' कविता पळेया—

मनीस म्हण्जे कितें?
सांग्शात म्हाका
मातियेचें एक घर तें
धनी आस्तां
सोबीत दिस्ता
ना तर बेश्टें रितें
आण्णायित्ल्याक वाड्ता
विचित्र बांदप
वकल नात्ल्यार पड्ता
त्या भितरी
एक पय्णारी
आप्लें बिडार कर्ता
पर्गांवांत्लो एक जण
अत्लो सुंदर
जातच आप्लें स्थवण
सांड्ता तें घर
आब्ळे मूटभर
कुसड, किड्यां-पर्वण!

मस्करेञाच्या कविता घड्च्या तांकिथाव्र कोंक्णेक मेळल्ली बोव वर्ती कृती 'आब्रांवचें यज्ञदान', आप्ल्या एक्ल्याच पुताक देवाचे हुक्मेखाल आब्राव्र बली दींव्क व्हेल्ली कता मस्करेञान काळीज मोवाळचे शय्लेर काव्य नाटका रुपार बरय्ल्या. त्या काव्य नाटकाच्यो थोड्यो वोळी पळेया—

आब्रांव—आनंद सोम्या तुका, अस्लो भुर्गो दिल्ल्याक
भागी पतीण म्हजी, ताची आवय जाल्ल्याक
पुण हा! दुर्देय्व म्हजें, पुता तुका मार्चें
संय्बाक विरोद तरी सोम्या खातीर कर्चें
कितें भोग्ता म्हाका, म्हज्यान सांगूं नजो
आव्ळे, हात घाल हांगा केदो मोटो उजो
तुका बचाव करूंक, कितें जाय तें करीन
न्हंय म्हजो एकजीव, सात जीव आस्ल्यार ते दीन.

'आब्रांवचें यज्ञदान' वाचल्ले तिल्लें पावना. तिल्लेंय सोबीत लिकीत तें. लुवीस मस्करेञच्या कवितेंनी आस्ची उत्रांची जोड, मोड तो कोंक्णेंत्लो एक व्हड कवी म्हण सांग्ता.

ह्या महान कविलागीं कविता काम शिकोन कोंक्णी कविता शेतांत आप्ले तांकिचें वेळें केल्लो आन्येक कवी आसा सिला मिनेज. ताच्या कवितेंनी ताणे आप्लेपण सांबाळल्लें दिस्ता. देकीक ताच्या 'माते कोंक्णी भाशेक भुजोण' कवितेंत्ल्यो थोड्यो वोळी पळेया—

दुकाक तुज्या आमी कारण
सांडलें आमी तुजें चरण
विसर्ल्यांवगे तुजें स्मरण
माते बोव सुंदरी

आमी बाळां तुका लजल्यांव
तुजे सर्शिलीं पय्स सल्यांव
गुन्यांव्कारी आमी जाल्यांव
वेचीक पुताबरी.

सिला मिनेजाच्या कवितेंनी तो एक धर्मीक वेक्ती जाल्ल्यान क्रिस्तांव दिश्टी रूपच बळादीक जाव्न दिस्ता. हाचीच स्पूर्त घेव्न ह्या वेळा उदेल्ल्या, संय्बान कवी आसल्ल्या थोड्या पाद्री कशें लायिकांचेर आम्च्या धर्मीक चिंत्पाचो प्रबाव पडल्ल्यान उत्तीम काव्यें आस्चीं धर्मीक गितां तांणी लिक्लीं. कोंक्णेक लाबल्ल्या उत्तीम धर्मीक काव्यां पय्की मोन्सिञोर रायंद मस्करेञाचें 'देवा दयाळ काकुळितच्या', मोन्सिञोर प्लासीद कुलासोचें 'खुर्सा मुळीं', फादर ग्रेगोर कुवेलिचें 'मरियेक होगोळ्सियां' जुजे सल्डान्हाचें 'व्हड आव्क आम्च्यापापा साय्बाक' हीं थोडीं. ह्या पय्कीं क्रिस्ताची जिणी काव्या रुपार वर्णिल्लें लोरेस वासाचें 'रुचीक अमृत' धर्मीक काव्यां पय्की आप्लें स्थान सांबाळ्ता.

1953 इस्वेंत फेलिक्स पाव्ल नोरोन्हान 'काव्यां झेलो' पुस्तक फाय्स कर्तच हांगाचीं काव्यां पुस्तका रुपार फाय्स जांव्क लाग्लीं. त्या पुस्तकांत्ल्या 'प्रकास' कवितेंत्लीं उत्रां अशीं आसात—

रात्रेक आसात हजार दोळे
दिसाक एकच झळक
तरी सुर्यो बुड्तच पळे
भुमीर पडत काळोक.

ह्या वेळा फेलिक्स पाव्ल नोरोन्हा शिवाय कोंक्णी कवितेच्या शेतांत घोळेन आसल्ले कवी आसात 'रान' उद्यावर, लिक्णे नांवान कविता बरव्न आसल्लो हेन्रि डिसिल्वा, पावुस्तीन सोज, जि. एम. बी. रोड्रिगस, वि. जे. पी सल्दान, लियो सोज, ए. टी. लोब, सावेर मेंदोस, स्वामी सुप्रीया, मरिदास आनी हेर.

साहित्य अकाडेमिचो पुरस्कार लावल्ल्या जे. बी. मोरायसाचो काव्यां झेलो 'नवी होकाल' 1977 व्या वर्सा प्रकाशीत जालो. ताच्या काव्यांनी कोंक्णी काव्याक आधूनीक काव्याची मोड दिली. 'भितर्ले तुफान' कविता संग्रहान ताका अकाडेमी पुरस्कार जोड्न दिलो. ताच्या 'म्हजीं चिंलां' कवितेच्यो थोड्यो वोळी ह्यो—

चिंलांक म्हज्या गड ना

वोंय ना दोरो ना

दार ना गेट ना

आकासाच्या सुक्ण्याबरीं

झग्लण्याच्या वेगान

हजारांचीं मय्लां

कर्तात तीं पय्णां.

कवी मोरायसा बराबर कोंक्णी काव्याच्या शेतांत आप्लीं पाव्लां रोंबयिल्लो आन्येक कवी आसा एडवर्ड नोरेञ, हाचो बापूय फेलिक्स पाव्ल नोरेञयी एक कवी. ताच्या सात्या पांदा कवी एडवर्ड वाडलो आनी वरीं काव्यीं कोंक्णेक दींव्क सक्लो. 1979 वर्सा ताचो 'कीर तूं म्हजो' कविता संग्रह फाय्स जालो. त्या संग्रहांत्ल्या 'मोगाक' कवितेंत आप्लें कविता देणें अशें घोळय्ता.

नांवगी तुजें गुलोब बोंगो

घम्मम वोळया कळयांचो?

रंगगी तुजो आबोल्यांचो

वोळी वोळी पेटय्लो?

रूपगी तुजें चांद्न्या सार्के

अमृत मृदूल थंडाळें?

सार्केगी अपूट रुप्याचें

मनोजान खूद पेटल्लें?

उतरगी तुजें साक्रीचें

स्परुश गोनें भर्वसें

काळिजगी तुजें मोगाचें

मोगान उगड्न राकल्लें?

मोरायस आनी एडवर्डाच्या कविता कृशेच्या काळार कोंक्णेंत उदेल्ले हेर कवी आसात—'मधूर काव्यां' कविता पुस्तकाचो रच्पी फ्रान्सीस सल्डान, 'काळ्जाचे उमाळे', 'एक सपण अदुरें','अशीं आय्लीं लारां' कविता जम्यांचो कवी जे. बी. सिकेर, लुवी पिरेर, वल्ली वग्गा आनी हेर.

**हास्य कविताः**

कानाडी लिप्येंत्ल्या कोंक्णी कवितेंत हास्य कवितेकयी आप्लेंच म्हळें स्थान आसा. विनोदीक वा वेंग्य विशय घेव्न सबार कोंक्णी कविंनी कवितां लिक्ल्यांत. देवादीन बाप पाव्ल लुवीस बुतेल्लोचें 'काव्यां झेलो' पुस्तक कोंक्णी हास्य कवितें पय्की मानाचो जागो आण्णाय्ता. ताच्या 'पोटटू पाव्ली कोणाक लाटली?' कवितेच्या थोड्या वोळिंनी लिपल्ली विनोदीक गजाल पळेया—

लुजाम्येच्या पोत्यांत लिपोन

सांतेक भाग्र सर्न गेलीं

हेर सर्व पय्शे खर्चोन गेले

पूण हांव तशींच उर्लीं.

भोवोन भोवोन पुरो जालें

सक्डांक नाका जालीं

पोकेटिच्या पंदूल्या खणांत

लजेन लिपोन बस्लीं.

एक दीस इगर्जेक या म्हणोन

म्हाका आपव्न व्हेली

थंय्सर घुटान आंगोव्णेच्या

पेटेंत म्हाका लोटली.

हास्य कवितां बरंव्च्यांत नांवाडल्लो आन्येक कवी आसा सिज्येस ताकोडे. ताचो 'इज्मोलाची वाटली' म्हळ्ळो हास्य कविता संग्रह फाय्स जाला. ह्या कवितेचो एक कडवो असो आसा—

इज्मोलाची वाटली

पाटीं-फुडें धांवली

रजेर गांवाक आयिल्ल्या

गल्फगराच्या बाय्लेची

व्हडली पर्स उग्ती जाली

उस्तून उस्तून

आट आण्यांची पाव्ली

वग्र वग्र आय्ली!

इज्मोलाची वाटली

डणा डणा आवाज करून

खणा खणा खिण्किणाव्न

लोकामदें घुस्ली!

हास्य कवितां खातीर लोकामोगाळ जाल्ले हेर कवी म्हळयार रिच्ची पिरेर, हिलरी कार्डोजा, पालडका आनी हेर.

**चा. फ्राची कविता:**

मंग्लुरी कोंक्णी कविता शेतांत भांगार पिकयिल्लो तांकिवंत कवी

म्हळयार चा. फ्रा. कोंक्णी कवितेक मरयाद हाडूंक तो पेचाडलो. ताणे ताचीच म्हळ्ळी वेग्ळी वाट धर्ली. उत्रां, चिंत्लां, भोग्णां आनी संगीताच्या अलंकारान जाय्तीं रोसाळ काव्यीं ताणे लिक्लीं. पदांच्या कोव्ळयांनी, दूरदर्शनाच्या कारयांनी चा. फ्रा. लोकाक लागीं जालो. गोंय्च्या 'जाग' प्रकाशनान 'सोंश्याचे कान' पुस्तक पर्गट्टच ताका केंद्र साहित्य अकाडेमिची प्रशस्ती लाब्ली. ताची कविता मनांत खंच्ता आनी काळजांत रोंब्ता म्हण्च्याक ताची 'खंय पुर्लां कवीक?' कविता रुज्वात दिता.

ह्या उबार तफ्कट फोंडां मदें
थंड मर्णा कोंडां मदें
ह्या जीव नातल्या मुंडां मदें
सांग, खंय पुर्लां कवीक?
ह्या कांटे फात्रां बांद्पा सक्ला
मोट्या पोटा गुर्कार निद्ला
हे कुशीन धनेस्त वय्ज कुस्ला
पुण, खंय पुर्लां कवीक ?
चोय, वकिलाचें बोंदेर उब्ता
वोतांत आर्बी खुरीस सोब्ता
ह्यायी धर्गींत हाडां ताम्ता
तरी, खंय पुर्लां कवीक?

चा. फ्रान नांग्रायिल्ल्या कोंक्णी कविता शेतांत बरें पीक काडल्लो कवी आसा विल्यम दसिल्वा. आय्लेवार ताचो 'थळावीण' कविता जमो फाय्स जाला. तांत्ली 'थळावीण' कविता अशी आसा.

काळीज तुजें दरयापार
तांतूं हांव फिरतां
मन तुजें सम्दीर अगड
तांतूं हाव बुड्टां

नाशिमेचो सागोर काळीज
गुंडायेचो सम्दीर मन
तर
तडीविण हांव उर्तां
चोयी
थळावीण केद्‌नांच उर्तां.

**जागे कवी:**

कोंक्णी काव्याच्या बर्या फुडाराविशीं सदां सण्णेव्र आसल्ल्या कवी चा. फ्रान आप्लें काम फुडें व्हरजे म्हळ्ळे आशेन थंय हांगा मिण्कोन आसल्ल्या तर्न्या-पर्न्या कवींक सांगाता हाडूंक रचल्लो पंगडच जागे कवी. ह्या पंग्डाक चा. फ्राच्या कवितेंलागीं लाग्शिलो संबंद जोडुंक साद्य जाल्ल्यान, कोंक्णी कविता शेतांत आय्लेवार जाल्ली बद्‌लावण घडली. ह्या पंग्डांत हेळल्ले सबार कवी आसात. तांचे पय्की एक्लो मेल्वीन रोड्रिगस. हाचे 'मोगा पेळो' आनी 'फिंतां' म्हळ्ळे कविता संग्रह फाय्स जाल्यात. ताच्या मोगा पेळयांत्ली 'पळेंव्क जाय?' कविता अशी आसा—

तुज्या गालां वय्लीं
आक्रुटां
वोंटां वय्लें म्होंव
कपलावय्ली साकर
हांवें म्हज्या वोंटांनी जोडल्या
पळेंव्क जाय?
लागीं ये
दोळ्यांनी न्हंय
वोंटांनी पळे!

जागे कवी पंग्डांत आसोन, कविता कामांत हेळोन हांवेंयी दोन कविता संग्रह फाय्स केल्ले आसात. म्हजो पय्लो कविता जमो 'किरा बोंच' उप्रांत्लो 'भिंगारी'. 'भिंगारि' पुस्तकांत्ली 'म्हजें जिवीत' कविता अशी आसा—

जिवीत म्हजें नार्लाचें वोळें

चून कांत्लां भेतून कट्टे फोळें

जिवीत म्हजें गोडाचें पेळें

कोबाक लुंव्लां बेंडून पिलिये बेळें

जिवीत म्हजें मळब निळें

चांदनें लाय्लां धुव्र काजळ काळें

जिवीत म्हजें नेकेत्रा धालें

चंद्राक खुंटलां लाव्र दोंग्रा देळें.

जिवीत म्हजें साळ्काचें तळें

फुलोन राव्लां सांडून उबीर म्हेळें.

जागे कवी पंग्डांत जागल्ले हेर कवी आसात 'वोव्ळां' कविता संग्रहाचो कवी फ्रेड कुमार कुम्रिकाडू, 'म्हजो गांव' कविता संग्रहाचो कवी जोस्सी पींत किन्निगोळी, 'येगो बाये' संग्रहाचो कवी आन्सी पालडका, 'पोळेर' कविता संग्रहाचो कवी बर्नाड जे. कोस्ता कुंदापूर, 'गाणां' पुस्तकाचो कवी नव्रेत नेरी, टाय्टस नोरेञ ताकोडे, रेमंड डिकन्हा, ताकोडे, विल्फ्रेड लोब पडील, डीना पिरेर, ग्लेडीस रेग आनी हेर.

**कोंक्णी कवितेचो फुडार:**

थोड्या वर्सां आदीं हांगाच्या कोंक्णी पत्रांनी थंय हांगा बोव थोड्यो कविता फाय्स जाताल्यो. आतां त्या पत्रांनी कवितेक मानाचो जागो मेळोंक लाग्ला. मंग्लुरी कोंक्णी लोकामदें कवितेची वोड आतां सव्कास

तरी जिवाळोन आसा. कोंक्णी संस्त्यांद्वारीं कविंचीं सोभाणां घडोंक लागल्ल्यान कवींक चम्मां मुकार मान मेळोंक लाग्ला.

कविता देणें आसल्ल्या हांगाच्या कवींक सोदून काडून तांकां फावोतें मार्गदर्शन दीव्क अकाडेमी, भाशा मंडळ, कोंक्णी संस्त्यांनी मेट काडल्यार, आतांच्या कविंनी कवितेविशीं चड आनी चड संसोद तशें प्रयत्न केल्यार, प्रस्तूत हांगासर आस्च्या काव्याचेर विमर्सो चल्ल्यार खंडीत जाव्न कानाडी लिप्येंतल्या कोंक्णी काव्याचे बरे दीस चड पय्स नांत. सद्द्याचे परिगतींत बोंग्यार आसल्ली मंग्ळुरी कोंक्णी काव्याची कीर्त फाल्यां जरूर चार गांव पाव्तेली फुलोन पर्मळताना. ●

# कोंक्णी मय्ला फातोर

●ग्लेडीस रेगो

**1998 डिसेंबर 13:** राक्णो वज्रोत्सवाच्या संण्णेचें कारयें मंग्लुरच्या सांत आग्नेस स्पेशल स्कुलाच्या उग्त्या आंग्णांत बोव दबाजीक रितीर चल्लें. ह्या संदर्बार पाटल्या साट वर्सांनी राक्णोच्या वाडावळींत पात्र घेतल्ल्या माल्गडे लेकक बाप एल. ए. कुटिन्हा, बाप आंतोन जुवांव सोज (मरिदास), जि. एम. बी. लुद्रीग, ए. एक्स, पत्रावो, श्री लियो डिसोजा (लियाब) हांकां सन्मान केलो.

**डिसेंबर 14:** गोंयां युनिवर्सिटींत एम. ए. पांव्ड्यार कोंक्णी शिक्तेल्यांक मन आसल्यार कन्नड लिपींत कोंक्णी साहित्य शिकोंक कोंक्णी शिक्पा मळयांत कन्नड लिपियेक स्थान मेळ्ळां. जेजीत बाप प्रताप नाय्क हाका कोंक्णी विबागांत पि. एच. डी. मर्गदर्शक म्हण नेम्ला.

**डिसेंबर 28:** मुंबय तशें मंग्लुरच्या रंगमंच्यार आलरांव्डार म्हण फामाद जाल्लो श्री माव्रीस काब्राल मुंबय आप्ल्या निवासांत देवादीन जालो. श्री काब्राल रंगमंच्या वय्लो फामाद कलाकार, निर्मापक, दिग्दर्शक, नाटक बरय्णार, नट मात न्हंय, ‘सांकळ’ कोंक्णी मयनाळ्याचो स्थापक संपादक. सबार संघ संस्थांनी विवीद हुद्द्यां मुकांत्र ताणे सेवा दिल्या.

कोंक्णी भास सार्की बरंव्क आनी उलंव्क आनी गोव्ळीक वाव्रांत प्रबावीक रितीन वापर्च्या इराद्यान मंग्ळूर दियेसेजिच्या पांत्तीस सेमिनरिस्तांक स दिसांचें कोंक्णी शिक्पा शिबीर आय्लेवार दियेसेजीच्या गोव्ळीक केंद्रांत चल्लें. बाप प्रताप नाय्क सग्ळ्या शिक्पा शिबिराचो संपन्मूळ वेक्ती जाव्नासल्लो.

**1999 जनेर 10:** कोंक्णी कातोलीक एसोसियेशन मत्तिकेर बेंग्ळूर हाचें कुटमाचें सहमिलन कारयें सां जुजे हायस्कूल वटारांत चल्लें. उप्रांत कोंक्णी संस्कृतीक कारयाक्रम आसल्लें.

**जनेर 11:** कर्नाटक कोंक्णी साहित्य अकाडेमीन आप्ल्या जिविता

आव्देंत कोंक्णी भाशेच्या विविद शेतांनी सेवा दिल्ल्या माल्गडयांक 1998 वर्साची प्रशस्ती दिली. साहीत्य शेत जेरी कुल्शेकर, संगीत एरीक ओझारियो, नाटक हेरांजल गजानन राव दारवाड, जानपद जोकीम पीरेर, पत्रिकोद्यम बि. वी. बाळिगा, विशेस प्रशस्ती वज्रोत्सव आचरण कर्च्या राक्णो पत्राक फावो जाल्या.

**जनेर 14:** 1999 मे मयन्यांत आम्चे पुर्वज टिप्पुच्या बंदडे थाव्न विमुक्त जाव्न केनराक पाटीं पावल्ल्याचो द्विशतमानोत्सव आचरुंच्या उडासाक कोंक्णी नाटक सबेन खेळव्न दाकंव्क मुकार सरल्ल्या वि. जे. पी. सल्दान्ह विरचीत ‘सर्दारांची सिनोल’ नाटकाचें मुहूर्त कारयें डोन बोस्को होलांत चल्लें.

**जनेर 15:** बेळगांवांल्ल्या राम नगरांत आस्च्या विद्यादीराज सबाग्रहांत टि. एम. ए. पय नगर नांव दिल्ल्या सबांग्णांत बाविसावी टि. एम. ए. पय नगर नांव दिल्ल्या सबांग्णांत बाविसावी अखील भारतीय कोंक्णी परिशद बोव दबाजान सुरू जाली. परिशदेचो अद्यक्श श्री पुंडलीक नारायण नाय्क जाव्नासल्लो.

संदेश संस्थ्यान आसा केल्ल्या कर्नाटक राज्य मट्टाचें संदेश प्रशस्ती प्रदान कार्यें चल्लें. ना. डिसोजा, एडवीन डिसोजा, मा. दो. वाल्टर हांणी प्रशस्ती स्विकार केली.

**फेब्रेर 7:** मंग्ळुरच्या लेडीस क्लब्बांत चलल्ल्या मिकम्याक्स मेघा शो कारयावेळीं क्लेरेन्स पिंटो पडील हाचो कविता संग्रह ‘आवाळे’ आंजेलोर फिर्गजिचो विगार बाप जे. बी. सोजान उग्ताय्लो.

**फेब्रेर 9:** थाव्न 12 परयांत डो. टी. एम. ए. पय फांव्डेशन मणिपाल हांणी आसा केल्ल्या 9 व्या अखील भारत कोंक्णी नाटक स्पर्धांत मेक्सीम लुद्रिगाक उत्तीम दिग्दर्शक तिस्रें स्थान आनी मोली मिगंदाक उत्तीम नटी तिस्रें स्थान पुरस्कार लाब्ल्यात.

**फेब्रेर 13:** कोंक्णेक डब केल्लें ‘द जीजस’ फिल्म मंग्ळुरचो बिस्प लुवीस पाव्ल सोजान वेंदूरच्या सां वस्त्यांव सालांत उग्ताय्लें.

**फेब्रेर 14:** मंग्ळूर रथ बीदिच्या जि. एस. बी. महिळा वृंदा हांणी रथबीदिच्या द्वारकनात सबाग्रहांत कोंक्णी दीस आचरण केलो.

**फेब्रेर 14:** श्री क्लेमेंट मस्करेनस, नांवाडदीक कोंक्णी कलाकर मुंबंय्त अकस्मीत अंतर्लो. क्लेम्मी कास्सिया नांवाखाल मंग्लुरांत सबार नाटकांनी नटन कर्न लोका मोगाळ तो जाल्लो.

श्रीमती हेमा नाय्क हिच्या 'भोगदंड' पुस्तकाक 1998 वर्साचो टि. एम. ए. पय उत्तीम कोंक्णी पुस्तक पुरस्कार लाब्लो. आनी स्वामी सुप्रियाचें कोंक्णी भाशेचें मन्शा शास्तीर, पी. वामन प्रबुचो 'रघुवंश', कु. ज्योती कुंकोळिकर हिचो 'कर्तुत्वी कन्या', डो. एडवर्ड नज्रेताचो 'निर्मोणें' कृतियो प्रोत्साह पुरस्काराक विंचल्यात.

**फेब्रेर 21:** कापू दरया तडीर निसर्गाच्या गर्बाथान्न जागे कविंनी मांडून हाडल्ल्या एका विशिस्ट कारयावेळींत हेन्री एम. पेर्नल हाचो कविता जमो 'चल्यांक चत्राय' श्रीमती ग्लेडीस रेगोन उग्ताय्लो.

आय्लेवार दुबांय्त प्रदर्शीत जाल्ल्या 'तुळू कोंक्णी' विल्पी नाय्ट संगीत कारयावेळीं तुळुवेर यु. ए. ई. हांणी विल्पी रेबिंबसाक 'तुळूनाड कोगिले' म्हळ्ळें बिरूद दीव्न सन्मान केलो.

आय्लेवार बाह्रेय्नांत 'कोंकण सिंगर्स क्लब' हांणी कोंक्णी नाय्ट सादर केली. कारयावेळार कोंक्णेची संस्कृती दाकंव्चीं दृश्यां, पदां आनी नाच सादर कर्न प्रेक्शकांक दादोशी केलें.

**मार्च 6:** केनरा हाय स्कुलांत कोंक्णी शिक्च्या विद्यार्तिंनी केनरा इस्कोलाच्या सबांगणांत 'कोंक्णी शिक्शणाचो जाग्रत दीस' आचरण केलो. कोंक्णी भाशे खातीर वाव्र दिल्ल्यांक उडासाची काणीक दीव्न सन्मान कर्ताना, कोंक्णी पाट पुस्तकाक बर्पां दीव्न सहकार दिल्ल्यांक अबिनंदन पाटय्लें.

**मार्च 27:** कन्नडाचो नांवाड्दीक नाटककार, सिनेमा निर्मापक आनी नट मंग्लुरचो कोंक्णो श्री गिरीश कर्नाडाक 1998 व्या वर्साक साहित्याक आस्च्या प्रतिश्टीत ज्ञानपीट प्रशस्तेक विंच्लो.

1998व्या वर्साची 'दांती स्मारक साहित्य प्रशस्ती कोंक्णी लेकक श्री रिचर्ड आल्वारेसान बरयिल्ल्या 'होस बेळकू' पुस्तकाक लाब्ल्या.

**एप्रील 4:** मांड सोबाण संस्त्यान आसा केल्ल्या 1998 वर्साचे

पांच पुरस्कार वर्साचो कवी: लोय्ड रेगो, जानपद पुरस्कार: जयंती नाय्क, उत्तीम पद: अवील आनी जोन पत्रावो, उत्तीम स्त्री गाव्पीण: अपर्णा मायेकर, उत्तीम गाव्पी: रोनी डिकुन्हा हांकां होटेल उडल्यांडांत आसा केल्ल्या 'दबदबो' कारयावेळा परस्कार प्रदान केले.

**एप्रील 4:** कोर्डेल कोंकणी कल्चरल एसोसियेशनान मांडून हाडल्ल्या विल्पी नाय्ट कारयावेळा सां लुवीस कोलेजिचो प्रिन्सिपाल मानादीक प्रशांत माड्तान 'जोर्ज फेर्नांडीस एक साहसी जीण' बूक उग्ताय्लो. ह्या बुकाचो लेकक श्री जे. बी. मोरायस. ह्याच संदर्बार वाप साम्वेल सिकेर, विल्पी रेंबिंबस, प्रो. बेनेट पिंटो आनी सिरील पाय्स हांकां सन्मान केलो.

**एप्रील 11:** श्री सन्नी ए. डिसोजान लिकल्ल्या 'हासनातल्लो तो पिसो' नाटकाचें रुप्याळें प्रदर्शन मुंबय बेंड्रा सेंय्ट आंड्रूस सालांत चल्लें. कोंक्णी थियेटर ग्रूप मुंबय हांणी सादर केल्लें कारयें हें. मंग्ळूरी कोंक्णी रंगमंचाच्या नाटक प्रदर्शनाचो लांब दाक्लो हो.

**एप्रील 28:** बोंदेल फिर्गजिच्या कल्ल फोंड खुर्सा गुड्यार मांड सोबाण नाटक पंग्डाथाव्न, कोंक्णेचो महान कवी लुवीस मस्करेञान बरयिल्लो कोंक्णी काव्य नाटक 'अब्रहामाचें यज्ञादान' सादर केलो.

**मे1:** कर्नाटकांत कोंक्णी अकाडेमी स्थापन करूंक वावुर्लेल्या आनी समाज सेवेंत 25 वर्सां संपयिल्ल्याक कर्नाटक कोंक्णी साहित्य अकाडेमिचो स्थायी सांदो श्री पाव्ल मोरासाक 'मित्र वृंद कापिकाड' हांणी उडासाची काणीक दीव्न सन्मान केलो.

**मे16:** मंग्ळुरच्या डोन बोस्को होलांत देरेबय्लच्या कलाकरांनी दिवंगत श्री ए. टी. लोबोचो 'नोव्रो' नाटक सालभर लोका समोर खेळोन दाकय्लो.

●

# कोंक्णेंत नवे बूक

पुस्तक: वोव्यो आनी वेर्स
संपादपी: आल्बन कास्तेलिनो
प्रगट्णार: कोंक्णी संस्तो सां लुवीस कोलेज.

पुस्तक: पोटभर हासो
बरव्पीण: ग्लेडीस रेगो
प्रगट्णार: आकाश प्रकाशन - 574193

पुस्तक: आवाळे
बरव्पी: क्लेरेन्स पिंटो पडील
छाप्णार: कोड्याळ बय्ल प्रेस

पुस्तक: कोंक्णी सब्द लारां
बरव्पी: स्वामी सुप्रिया
प्रगट्णार: विवेक प्रगती हळियाळ

पुस्तक: पवित पुस्तकाची जाण्वाय
बरव्पी: बाप संतोश मिनेज कापुचीन
प्रकट्णार: आसिसी प्रेस, मंग्ळूर

पुस्तक: गाड गूड दुद्दें
बरव्पीण: श्रीमती इंदिरा नायक
प्रगट्णार: मंग्ळूर ट्रेडींग एसोसियेशन

पुस्तक: गोपाळालो कीरू
बरव्पीण: श्रीमती संध्या शेवगूरू
प्रगट्णार: मंग्ळूर ट्रेडींग एसोसियेशन

पुस्तक: उस्तुरें
बरव्पी: ल्यान्सी पिंटो नायक
प्रगट्णार: उमेद प्रकाशन

पुस्तक: पिसोळीं
बरव्पी: अनील डिसोजा, पेर्नाल
प्रगट्णार: पुनव प्रकाशन

पुस्तक: पुन्वेचो चंद्र
बरव्पी: मनु वाहेन
प्रगट्णार: पुनव प्रकाशन

पुस्तक: गेलाक्सी
बरव्पी: डो. जेरी निझ्झोडी
प्रगट्णार: दिव्य दीप प्रकाशन

पुस्तक: तुजेच सर्शी पोंपय माये
बरव्पी: बाप एस. डिकुन्हा
प्रगट्णार: कारवार दियेसेज

पुस्तक: जोर्ज फेर्नांडीस एक साहसी जीण
बरव्पी: जे. बी. मोरायस
प्रगट्णार: मोरायस पब्लीकेशन्स

पुस्तक: लिपत्र दवरल्लें सत
बरव्पी: आशोक डायस
प्रगट्णार: दिवो प्रकाशन.

पुस्तक: धाक्ट्या देवाचीं भुर्गीं
बरव्पी: किशू, वार्कूर
प्रगट्णार: जागे कवी प्रकाशन

पुस्तक: चल्यांक चत्राय
बरव्पी: हेन्री एम. पेर्नाल
प्रगट्णार: पेर्नाल प्रकाशन

---